# यादींचे उमाळे

## (कविता संग्रह)

महेश गोविंद गांवकार

माहेनशसी प्रकाशन
'गुणागोविंद'
घर नं. १०
नंद्रण मोलें - गोंय

**यादींचे उमाळे**
बरोवपी :- महेश गोविंद गांवकार

**Yadinche Umalle**
Collection of Konkani Poems
By: Mahesh G. Gaonkar



**प्रकाशन क्र. १**

**पयली उजवाडावणी**
२०१३

**उजवाडावपी :**
माहेनशसी प्रकाशन
'गुणागोविंद'
घर नं. १०
नंद्रण मोलें-गोंय

**मुखचित्र :**
रा. ग. गावडे

**अक्षर जुळणी / छापपी:**
कस्तूरी ग्राफिक्स,
ढवळी फोंडे गोंय
फोन नं.: २३१७४८६

**मोल : १२०/-**

म्हज्या यादींतल्या गांवाक
आनी त्या गांवच्या यादींक
काळजांत उफेल्ले
हे ‘यादींचे ऊमाळे’
माये मोगान ओपतां.

- महेश.

# मनातलीं उतरां

नमस्कार,

गुपाट काळखांत शेणिल्लो गांव
नंद्रण ताचें नांव
अटंगें रान चोयवशीं
सवणीं सावदां मोनीपिशी
अस्तित्वाखातीर झगडपी मनीस
तांतूतलोच एक हांव...

अशी म्हजी वळख करून दीत हांवेन 'फुल पाकळ्यो' ह्या म्हज्या पयल्या कविता झेल्याच्या आदारान कोंकणी साहित्य मळार पयलें पावल मारिल्लें, आनी तेन्ना म्हणिल्लें, कोंकणी साहित्य मळार म्हाका खूब मुखार वचपाचें आसा. ते नदरेन आयज आनीक एक पावल मुखार उखलताना मनघर खोंशयेन भल्लां.

सैमाची सोबीत झालर आंगार ओडून पाचवेंपण सदांच मिरोवपी सुपुल्लो असो म्हजो जल्मगांव 'नंद्रण' सोडून हांव मोलें गांवांत रावपाक आयलो. अशें करप मनाविरूद्ध अशिल्लें, पूण सरकारी आदेशाक पाळो दिवचोच पडलो. खरी गजाल सांगची जाल्यार तनान जरी हांव हांगा रावपाक लागलो तरीय मनान हांव म्हज्या गावांतच धांव मारतालो... आयज मेरेन त्या गांवची ओड मात्तूय उणी जावंक ना. म्हजे उमेदिचें ल्हानपण हांवेन थंय सारलें. त्यो यादी आजूनय मनांत तश्याक तशय्यो ताज्यो काळजांत आसात. इतली वर्सां त्यो यादी काळजांत उमळटाल्यो, मनांक भरतें हाडटाल्यो, त्योच म्हज्या गांवच्यो यादी एकठांय करून हे 'यादींचे उमाळे' तुमच्या मुखार दवरपाचो यत्न केला.

हातूंत आसात म्हज्या यादींतल्या गांवचे लोक, गांवची मनां पांचवी रानां, फुलां-फळां, सवणीं-सावदां, गांवची रीत, गांव सोडटना मनांत आयिल्ली भिरांकूळ मोडां, त्या खिणांक जाण्टयां - नेण्टयांच्या

काळजांतले श्वास-उश्वास आनी जायतें. कांय गजाली मनश्याच्या मनपटलार कोरांतून दवरिल्ल्यावरी दसतात. म्हज्या गांवच्यो यादीय तश्योच. त्यो सासणाच्यो. तांकां अंत ना. सुवात बदल्ली तशे बदल म्हाका आपणावचे पडले. पुणून जेन्ना हांव गांवांतले आदलें जिणें आनी आताचें जगणें तागडेन घालून जोखपाचो यत्न करता तेन्ना सदांच म्हज्या गांवचे जिणें आशिल्लें दालें जड जाता, आनी मन गांवावटेन धांव मारता देखून हांवेन जोखपच बंद केलां. किद्याक तर यादिंचे आशिल्ले उमाळे काळजांत मावनात. तांकां म्हज्या काळजाची सुवात पावना. म्हज्या मनांत म्हज्या जल्म गांवा विशीं आशिल्ल्यो भावना म्हळ्यार हे यादिंचे उमाळे. पुरायपणान नासत तरीय हांवेन केल्लो एक यत्न, किद्याक तर मनांत आसा ते सगलेंच कागदार देंवताच अशें ना... हांगा थंय भोवपी भिरमूट चिमटेंन एकवेळ धरूंक जायत. पूण काळजाचे सगळेच बोल धरूंक हांव तरी असमर्थ. पूण जितलें म्हण काळजाचे बोल आनी मनाचे स्वर म्हज्या चिमटेक मेळ्ळें ताचेंच दुसरे रूप म्हळ्यार हे ''यादींचे उमाळें''.

म्हज्या ह्या उमाळ्यांतल्यान व्यक्त जाल्ल्यो भावना कितपत यशस्वी जाल्यात तातूंत हांवेन कितले यश मेळयलां हें थारोवपी तुमीच, देखून तें हांव तुमचेर सोडटा.

हो झेलो उजवाडाक हाडटना म्हाका म्हज्या घरच्यांचो खूब तेको मेळ्ळो. तशेंच अनिल सावंत, शाबलो पर्येकार, बोस्तँव वाझ ह्या म्हज्या इश्टानीय म्हजी उर्बा वाडयली देखून हांव तांचो उपकारी. तशेंच मेळिल्ले फावट म्हजे फाटीर उर्बाभरीत हात भोंवडावपी आदार दिवपी उलोवण्यान म्हजे बळगे वाडोवपी दो. विवेक गायतोंडे (मुंबय) हांकाय हांव देव बरें करू म्हणटा.

आनी आतां म्हाका मनाकाळजासावन जांच्या उपकारांत रावपाचे आसा ते ह्या कविता झेल्याचे खरे निर्माते, जांच्या कलात्मक दृश्टींतल्यान ह्या पुस्तकाचें मुखचित्र रंगला, म्हाका आयज कवी म्हण उबो रावपाक व्हड आदार केला ते म्हजे इश्ट, साहित्यिक बाब रामनाथ गावडे. आनी कोकणी कविता मळा वयले म्हजे ऋषीतुल्य गुरू, म्हाका कोंकणी

भाषेचे भाषाशास्त्र तशेच कोकणी व्याकरणाची विंगंड विगंड तासां आनी कोकणी भाषेची नीज सुंदराय दाखोवन दीवपी जेश्ट कवी आनी सुटके झुजारी भौ. नागेशबाब करमली हांकां, तांच्यानी म्हाका केल्या आदाराक लागून आनी म्हजे कवितेचो अभ्यासपूर्ण असो प्रस्तावनेच्या रूपात नियाळ करून म्हाका व्हड आदार केला. तेन्ना तांच्या हांव उपकारांतूच रावपाक सूख मानता.

तेच परी अक्षर जुळोवपी,छापपी हाणींय हो कविता झेलो सोबीत जावचो म्हण कश्ट उप्रासले, तांकांय हांव देव बरें करू म्हणटा.

निमाणेकडेन व्हडा खोशयेन हे म्हजे मनांत उफेल्ले 'यादींचे उमाळे' तुमच्या हातांत दिता आनी तुमच्यो मोलादीक सुचोवण्यो आयंकूक उमळशिकेन रावता.

देव बरें करूं.

महेश गो. गांवकार
9420768658

# सैमाच्या सांगातांतले उमाळे

कवितेक अमूकच एक विशय लागना फक्त विशयाचो सोद घेत भोंवता ती कविता नीज गुणांनी फुलूंक पावताच अशें ना आमी म्हण्टात-ही अमूक विशयावयली कविता ती तमूक विशयावयली कविता. आजकाल कविता आपणालें रूप बदलीत आसा. कोंकणी कविताय हाका आडवाद ना. विशय मुखार दवरून रचिल्ली कविता म्हळ्यार बंधनाचे आयटीत बांदून दवरिल्ली उतरांची माळ. एका काळार तें चल्लें फुलाचेर एक कविता. खळखळट्या उदका प्रवाहाचेर एक कविता. माडाचेर एक कविता, सुंदर रुपाचे चलयेचेर एक कविता. असल्या कवितांचे दीस म्हज्या हिसबान तरी सोंपले. आतांची कविता एक नवे विशाळतायेंतल्यान येता. हाकाच लागून सर्वसादारणपणान कवी आपणे ही कविता बरयली अशें म्हणचे परसय ही कविता म्हाका आयली अशें म्हणपच अदीक पसंत करता. कविता ही धोडावन पिकयिल्ल्या पणसावरी आसची न्हय. ती आपूणसोच पिकिल्ल्या आनी आपणालो परमळ शिंवरावपी आंब्या-पणसावरी आसची. पिकपाची ही सैमीक रीत. जें सैमीक आसता तें आपलें आपूणच प्रगट्टा.

बाब महेश गांवकाराले यादींचे उमाळे वाचताना म्हाका असोच कितेंसो अणभव आयलो. ह्या झेल्यांतल्या कवितांचेर, अर्थात सगळ्याच न्हय पूण चडशा कवितांचेर सैमसंवेदनाची दाट सया पातळिल्ली दिसता. ते भायर, आमच्या भोंवतणच्या संवसारांत जें, कितें घडटा वा मनीस म्हूण ताका जें कितें बादता तेंय ह्या 'यादींच्या उमाळ्यांनी' आपणाल्यो पावलखुणा दाखोवन दिता, प्रगटायता.

मनीस ज्या वातावरणांत जियेता, जें पळयता, अणभवता तें सगळें मन जितलें संवेदनशील आसता ते ते प्रमाणांत आपणामदें ओडून घेता, शोशून घेता आनी तें मागीर ताचे जिणेचो भाग जाता. महेशबाब सह्याद्रीच्या मुळसांत पाचव्या-चार सैमाच्या गोपांत सुकण्या-सावदांचे साद आयकत आनी तरेकवार, भूल घालपी पिसोळ्यां-फूलपाकुल्यांचे नाच

पळयत वाडला. तें सगळे ताचे कवितेंत येना आसतना उरिल्लें जाल्यार अजापच दिसपाचें.
तो जेन्ना -

> ‘‘गांवचे सैम, गांवचे दायज
> अपुरबाय मना मनांत
> खोशे विरयत जिणें जगतात
> दर जीव खिणाखिणाक’’

अशीं उतरां बरोवन वता तेन्ना तो रानावाटेर खंयच सांडूक ना, पूण ताका जें सांगूक जाय तें तो अचूक पणान सांगता हें जाणवता. महेशबाब सैमरुपां तरातरांनी उकतायता एके कवितेंत-

> ‘‘सकाळच्या पारार
> झूळ झूळ वाऱ्यार
> सैमगीत गावपाक
> सवण्या पिलां रावल्यांत...
> आमुल्लेचे तेंगशेर
> रुखाचे खांदये खांदयेर
> चिवचिवाट किलबिलाट
> तालीम बरी चल्ल्या...

अशीं उतरां येतात तेन्ना दोळ्यांसामकार एक सोबीत जिवाळ चित्र उबें रावता. अशेंच आनीकय एक शब्दचित्र येता. कवी म्हण्टा:

> पिसोळ्याक रान मेकळें
> फुला फुलार नाचपाचें
> गोड गोड म्होंव चोखून
> मस्त पैकी कळ्या सांगता खेळपाचें

सैमाच्या सांगातान वाडिल्ल्या महशेबाबाक सैमाची तरेकतरा रुपां साद घालतात. ''गांवां कुशीचे दोंगुल्लेची, जायतीं रुपां हांवेन पळयल्यां'' अशें सांगतां सांगतां ते दोगुंल्लेचे शियाळ्यांतलें रूप तो चितारता. तो सांगता-

शियांच्या दिसांनी
धव्याफुल्ल धुक्यान धांपिल्ली
धुक्याचो पदर आंगा खांदार आवळीत
सफेद पातळ न्हेसलेल्या
पिकिल्ल्या साधवावरी ध्यानस्त
थंड शांततायेन मन भुलायणारी.

अशें सांगता सांगता ते दोगुंल्लेचे बदलिल्लें रूपय कवीक दिसता. तो खंतीन म्हण्टा:

पळोंव नजो अशी
पूण हालींसराक मात
जशी दोंगुल्ली आपल्याचेरच बेजारल्या
रागार फुगार जावन वग्गी बसल्या.

सैमाच्या सांगातांत आपणाक पुरायान एक रुपावन घेवपी कवी आपणा भोंवतणचो संवसारय विसरना. तो युवकां खातीर 'युवागीत' गायता. रुखावळीचेर हावळ हाडपाचेर तो ''आपोवणे बऱ्याक न्हय वायटाक'' अशें म्हणत शिटकावणी दिता. हांगाथय चलिल्ले अत्याचार, झुंजां पळोवन कवी अस्वस्थ जाता आनी ''चला उठया जागे जावया चुट्ट्यो पेटोवया, थय-थय नाचोवया, अत्याचाराच्या भस्मासुराक सासणाचो लासून उडोवन'' ह्या उतरांनी आपणालें मन उक्तें करता.

महेशबाबाली ''म्हजो गांव'' ही कविता, पुर्वजांनी वसयिल्लो गांव अभयारण्याच्या आवाठांत आशिल्ल्यान रितो करचो पडटा गांव सोडून दुसरेकडेन वचचें पडटा हे विशींचे मनांतले खतखते उक्तायता. तो म्हण्टा:

जाण्टयानी मारिल्ली खुटी
गांव गांवकी घेवन बसले
पूण आतां कितें घडलें पळय
साटली पोटली मारून खांदार
जळी मळी फाफसून पडले.

उतरां तशीं सादींच पूण ती वाचून काळीज चर्रजालेबगर उरना. वर्सां संकीनी जी भूंय सर्वार्थान भोगली तीच एक दीस सोडची पडप आनी मागीर खंय तरी दुसरेकडेन वचून नवी खुटी मारची पडप हें दिसता तितलें सोंपे न्हय. तांतली खंत ही कवीची निजाची हे विशी दुबावच ना. ती आनीकय उत्कटतायेन व्यक्त जावं येताली हें मात हांगा मुजरत नोंद करीन दिसता.

ह्या झेल्यांतल्या कवितांनी हेर गजाली वांगडा ''मोगाचें मोड'' आसा ''फुलत्या फुलाक फुलूं दी'' हे कवितेंत चली जातली म्हण गर्भ व्हळोवपाचे मनीसपणा भायले करणेचेर बडी मारल्या. एके कडेन केगदीचें बनय येता. कवीक, ''सैमीक अत्तराची कुपी घेवन लिपिल्लो हळदुवोच कवासो'' खुणायता आनी तागेलें सभावीक अशें सैमसांगताचें नातें अदीक घट्ट करता, दृढ करता. कवीचे नदरेंतल्यान मिनाच्यो खणी तर सूटच नात. कारण ताचो वांठारच खणीचो. तो म्हण्टा-

''खण खण माती हांगा
खण खण माती''

ह्या साद्याच उतरांनी तो एके तरेचो उद्वेगच उक्तायता. कारण खणी धन निर्माण करतात. पूण तांच्यातल्यान उद्भवपी दुश्परिणामय तो पळयता.

महेशबाबाली कविता सैमाच्या सांगतांत फुलता, परमळटा अशें आसलें तरी तिका मनीस, ताची जीण आनी सरभोंवतणच्या समाजांत जें कितें घडटा तेंय सगळें लागता. अशे घडप सभाविकच कवीची कविता आपणांतूच मुंगरून म्हण्टात तशी आसूंकच शकना. ''कोंकणी आतां देखणी जाल्या'' अशें म्हणीत कवी कोंकणीचें देखणेपण गायता. तेन्ना

ताका ताचे हे भाशेन जो एक आत्मस्वर दिलो ताचे तो कृतज्ञ मनान स्मरण करता.

"फूल पाकळ्यो" हे उप्रांतचो कवीचो हो दुसरो काव्यझेलो. ह्या झेल्यांतल्यो कविता वाचतकीच कवीचो काव्यप्रवास ताणें जो मार्ग वेंचून काडला ताचे वयल्यान आडखळी विणे तसोच चालू आसा अशें दिसता. बरी गजाल. तरी पूण ह्या प्रवासांत ताच्यो जाणिवो आनीकय खोलायेचो तशेंच उंचायेचो वेध घेवपी जावंक जाय अशें मात मुजरत सांगीन दिसता.

**"मानसदीच"**
**चिंबल गोंय**

**नागेश करमली**

# मांडावळ


१. यादी/१
२. भुंयपुता/४
३. आरंभ/६
४. म्हारूख/८
५. म्हजो गांव/१०
६. रूप सुंदर दोंगुल्ली/१२
७. उजवाडाची ज्योत/१४
८. उजवाडाचे दिकेन/१५
९. रे मनशा/१६
१०. गांवची मनां/१७
११. बेगडीपण/१८
१२. आपोवणें बऱ्याक न्हय वायटाक/१९
१३. प्रस्न एक न्हय कितलेशेच/२२
१४. देखणी कोंकणी/२४
१५. सैमगीत/२६
१६. तळमळे/२८
१७. सांग म्हाका/२९
१८. कोकोंच का/३०
१९. करा जागोरें/३१
२०. फांतोड/३३
२१. सैमघर/३४
२२. सोबीत सुंदर रनांत/३६
२३. पोरसांत म्हज्या/३८
२४. पिशें पिसोळें/४०
२५. पयसपणाचे दूख/४२
२६. चवंर चंवरला/४३
२७. भस्मासूर/४४
२८. सपन/४५
२९. अहंकार/४७
३०. एकचार/४९
३१. आस/५१
३१. उतर/५३
३२. मोगाचें मोड/५५
३३. सुखाचे आशेन/५७
३४. धादोसकाय/५८
३५. सपनपरी/५९
३६. मनीसपण/६०
३७. फुलत्या फुलाक फूलूं दी/६१
३८. मन/६३
३९. भिरमूट/६५
४०. दिवो/६७
४१. कवासो/६९
४२. सैमाची करणी/७१
४३. सभाव/७२
४४. घावे/७४
४५. वाटसूर/७५
४६. काळजी/७७
४७. सैमाची गिरेस्तकाय/७९
४८. शेणिल्ली दिका/८१
४९. खण खण माती/८२
५०. बरें मागून/८४
५१. खरें मोल/८६
५२. खरो सुखी कोण/८८
५३. माटोळी/९०
५४. मन वाऱ्यार पिशें/९२
५५. उणेंपण/९३
५६. हांव कोण/९५
५७. मनीस धांवत आसा/९६
५८. भाजयेच्या पोरसान/९७
५९. सैमचक्र/९९
६०. शिगमो/१०१
६१. गोंयकार भावांनो/१०३

## यादी

यादी कालच्यो
यादी पयरच्यो
यादी घरच्यो
यादी गांवच्यो

यादी हयन्हयश्यो
यादी पोरन्यो
यादी तिकतिकीत ताज्ज्यो

सगळ्यो एकसणीच मेळटात
आनी उमळटात काळजाभितर
उमाळो हड्‌डयान मावना
देखून जीव थतर वितर

यादी कालच्यो पयरच्यो
जिवाक सुशेग दिनात
कालच्या परस किदें वेगळें करचें
होच विचार घोळयता मनांत

यादी घरच्यो, घराब्याच्यो
तीन खुरांचे चुलीर माणिल्ल्या संवसाराच्यो
णव जाणा भावणां मदीं
हांसत खेळत मस्तेपणान
सैम घरांत सारिल्या भुरगेपणाच्यो

यादी गांवच्यो
गांवार पातळिल्ल्या सैमीक
पांचव्या पांगरुणाच्यो
घुमटावयली थाप आनी
कासाळ्याचो गाज गाजोवपी
चवथीच्यो,
धोलावयली तोणी आनी
ताश्यार नाचपी बडी
शैबयच्या तालार बेधुंद
नाचपी शिगम्या मेळाच्यो

यादी...
गांव सोडटाना चेऱ्यार फाकिल्ल्या भंयाच्यो
थरथरपी कुडीच्यो

रडटल्या मनांच्यो
अखेरच्या खिणाक घरा दारार
नदर भोवंडायतना
काळजांतल्यान आयिल्लो उमाळो
थोपूंक जावंक ना देखून
दोळ्यांतल्यान भळभळीत व्हांवपी दुकांच्यो

सिमेवयल्यान वळून पळयतना
रितो पडींग उगडो नागडो गांव
आमकां दुशणां दितालो खेपतालो
काय दितालो आपलो मायेमोगाचो आशिर्वाद...?

तोच गांव यादींच्या रुपांत
उमळटा काळजांत
सामको खोल खोल मनांत
खोल खोल मनांत...

# भुंयपुता

गांवच्या म्हज्या भुंयपुता
सैमराणी तुका सादयता
नाडे पेन्ना तुजी पोटांत घालून
हांसत्या मुखान तुका येवकारता

व्हटयेंत तिच्या वाडलो तूं
आंगा खांदार खेळ्ळो
पाखांत बळगें भरतकच
वाऱ्यासयत शारा दिकेक उडलो

वाऱ्या झोतार उडलो तूं
परतून केन्ना ना आयलो
नाळ तुजी ह्या मातयेंतच पुरल्या
तुका विसर कसो पडलो
सांग विसर कसो पडलो.

शारांतलें वारें नवें
भिनले तुज्या आंगापांगाक
वायंगणातली शेता मेर
न्हय देगेवयली आमुळे तोरां
गोठणांतली गोरवां वासरां
नागडी उगडी गांवची पोरां
गांवची रीत गांवची भास
दोंगुल्यांतली चुन्नां काण्णां
विसरत गेलो दिसपट्टी खिणा खिणाक

विखाळ विचारांचे आंगले घालून
तूं थंय शारांत जळपेता
सैमराणी तुजेर निर्शेवन लेगीत
भेटेक तुजे आशेता

हालिंसराक पुता तूं येतलो देखून
दवान भिज्रिले वोले वाटेर
तणान भरिल्या पाचव्या मळार
नदर मोखून ती बसता
उंच उंचेल्या दोंगुल्ल्यांनी
साद तिगेलो घुमता
पुता साद तिगेलो घुमता

# आरंभ

कोण खंयच्यान आयिल्ले
खुंटी मारून
मठी बांदून राविल्ले
खंयच्या काळार
खंयच्या तेपार
हे वंशवेलीक
पयले फूल धरिल्लें,

जाप सोदपाक,
काळाच्या मार्गार उरफाटे चालीन
नेटान पावल उखल्लें
नकळो आसलो वचचें पडत खंयमेरेन
तेन्ना मन म्हजे उलयलें...
किदें येवजिता
काळाक मेजूंक सोदता

सोडून दी
नात्यांची गाथन, व्हड घुस्पागोंदळ
आरे तूं, हांव
हांव तूं
आमी तुमी
ही वळेरी व्हड
तूं चिंतून पळय
शेवट नाशिल्ल्या एका नात्याचो
आरंभ
दाखयशीत सांग म्हाका कशेतरेन ■

## म्हारूख

म्हज्या वाड्या वयल्या
आंब्या पणसांनी
मळबार झोपय मारपी
माड-माड्यांनी
किंदळी माट्टींनी
सायल्या सिसम सारख्या म्हरूखांनी
पळयली जायती वाऱ्याची वादळां
अटंग्या पावसाचें भिरांकूळ रौद्ररूप
पूण मनान मात्तूय हाल्ले नात
खोल खोल मुळां जमनीत रिगोवन
धर्रतरे मायेक घांस मारून रावले

आमचे व्हड जाण्टेले
थकिल्ले म्हालगडे मात
एकाच वादळाच्या तडाख्यान
थतर वितर जाले
अचकीत बागवले
कांय जाण तर कच्च करून मोडलें

आतां पडल्यात फाफसून जळी मळी
एका मेकांचो आदार सोदीत
जाण्टे पिरायेर धिगी सोदीत. ■

## म्हजो गांव

गांव जाती खाली
मनां जाता रितीं
काळजा काळजांत
तश्योच उरल्यात
ह्याच गांवच्यो
जायत्यो यादी...

भुकेल्ल्यान पोट भरून
धेकर हांगा दिल्यात
तानेल्ल्यान तान आपली
रुच्चीक उदकान भागयल्या
थंड शितळ वातावरण
सैमाचेंय रूप सोबीत
नितळ मनान बसल्यार हांगा
अचळय सुचता कवीत...

मना मनांत आसा हांगा
मायेच्यो झरी
काळजा-काळजांत खोल खोल
आपलेपणाच्यो खर्णी,

जाण्ट्यांनी मारिल्ली खुंटी
गांव गांवकी घेवन बसले
पूण आतां कितें घडले पळय
साटली पोटली मारून खांदार
जळी मळी फाफसून पडले.

# रूप सुंदर दोंगुळी

गांवां कुशिचे दोगुंलेचीं
जायती रुपां हांवेन पळयल्यां
रसरशीत उपाट भरिल्ली
सैमाची खाण हांवेन पळयल्या...

पावसा दिसांनी,
पाचव्या म्हयन्यांत पांचवोच शालू न्हेसलेली
रूप सुंदर अस्तूरी दिसची तशी
ल्हानशीच दोगुंळी
पाचवेपण आंगभर खेळयत
मुरगट्टा मुमुरक्यानी हांसता
लजतना दिसता नवी नवी व्हकल कशी,

शियांच्या दिसांनी
धव्याफुल्ल धुक्यान धापिल्ली
धुक्याचो पदर आंगा खांदार आवळीत
सफेद पातळ न्हेसलेल्या

पिकिल्ल्या साधवावरी ध्यानस्त
थंड शांततायेन मन भुलयणारी

रखरखीत वताच्या दिसांनी
तापीन करपून गेल्ल्या
झाडा पेडांक, धुल्लान भरिल्ल्या
वताच्या कडान कडकडीत तापिल्या
काळेत्री तळपांक आंगा खांदार सांबाळीत
सामकी भकास
पळोव नजो अशी
पूण हालीसराक मात
जशी दोगुंल्ली आपल्याचेरच बेजारल्या
रागार फुगार जांवन वग्गी बसल्या
खंय गेली ती सुंदराय
कोणे इबाडली आसुये
तिका कसली तरी चाहूल लागल्या
खेरीत ती बऱ्याची नासुये.

## उजवाडाची ज्योत

जावपाक जाय आसलें तूं ज्योत
पूण जालें एक पणती
ह्या स्वार्थी संवसारान हांव तुजी
गांव कशी आरती

मनांतल्यान जळोंन उजळयलें म्हजे जिवीत
पूण म्हज्या स्वार्थी मनाक
उरतली काय हाची याद मतींन
वादळ वाऱ्यावरी गाजत तूं आयलें
गोबरातल्या फिनीक्साक फाकिवंत
उजवाड दिवन गेले

एकच आस्त अंतर मनांतली
कुडींतल्या अखेरच्या थेंब्या मेरेन
तुजें अस्तित्व हांव जपून दवरीन

# उजवाडाचे दिकेन

काळखांतल्या गांवांत
काळखाचेंच राज्य
राज्यच न्हय साम्राज्य,

काळखांत जल्मले
काळखांत जिवीत घडयलें
कायं जाण ह्या काळखांतूच
मातयेक मेळ्ळे

आतां तरणी पिराय सरल्या भायर
धांवत सुटल्या उजवाडाच्या दिकेन
पूण त्या चकचकीत उजवाडा भितर
किंदे दवरलां
किदें आसा
कोणूच नकळो
ना जाण्टे ना नेण्टे
ना ही तरणी पिराय

## रे मनशा

सवंसार तळें
खोल मोठें
उगत्या दोळ्यांनी तूं पळय
रे मनशा
थाव मेजिनाका
थारायल्ली मोख
गांठची आसल्यार
जावन मासोळी
मार सूर अचळंय...

उदकाची ल्हारां
एकूय ना थीर
एकठांय बळगें
वाडय धीर
जावन धनुर्धारी
अर्जुनावरी
यशाचो तीर तूं चडय
रे मनशा
यशाचो तीर तूं चडय.

## गांवची मनां

गांवची मनां
फुलती फुलां
फाफसल्यांत जळामळा
चाहूल लागल्या
जायत्या जाणांक
अस्वस्थ जाल्या कांय मनां

गांवचो सैम गांवचें दायज
अपुरबाय मना मनांत.
खोशेविरयत जिणें जगतात
दर जीव खिणाखिणाक

हांसती खेळटी रानां वनां
उमेदीन जगपी सवणीं पिलां
दुखेस्त काळजाचे सुस्कारे हांगा
धुकलता दीस खिन्न मनान. ■

## बेगडीपण

पयसुल्ल्यान दिसलें बरें
चकचकीत सामकें नवें
धांवून गेलो
म्हऱ्यांत पावलो
बेगडीपण पळोन सगळें
मनांतलो हावेस जळून गोबर जालो.

## आपोवणें बऱ्याक न्हय वायटाक

पांचव्याचार पानांनी भरिल्लो
सोबीत फुलां कळ्यांनी सजिल्लो
सवण्या पिलांक आंगार वाडयत
नेटान उबो आशिल्लो,

खांदये खांदयेर ल्हांन सान घोटेर
घोटेरांतल्यान येवपी मंजूळ किलबील
सांज सकाळ आयकतालो
व्हडा उमेदीन जगतालो,

वाटेन वचपी वाटसरू
थाकाय ना करपाक रुखासरी येतालो
शितळ सावळेक घटकाभर विसव घेवन
परतून फुडले वाटेक लागतालो
धादोस भरीत जातालो, रूख खोशयेन झेलतालो,

गांवांतलीं भुरगीं बाळां, ल्हान ल्हान पोरां
तिनसांजेची रुखा मुळांत खेळ मांडूक येतालीं
धरचेल्यानी लिपचेल्यानी सगळोच गोंदळ

भुरग्यांचो कलकल आयकून
रूखय भुरगो जातालो,
खांदयेन खांदी हालयत हालयत
खोशयेन वाऱ्यासयत झेलतालो
पोसो-पोसोभर नाजूक फुलां भुरग्यांचेर झडयतालो

आनी एक दीस...
वायट मनाचो वायट मनीस
भोंवत भोंवत पावलो रुखासरी
बारीकसाणेन नदर भोवली रुखार
वायट विचार सल्ले मुखार

रूख गरगरीत वाडला पळय
खांदया खांदयानी पातळ्ळा पळय
कचकचीत मदेर कातरचे
उरिल्याचो जळोव भरचो
मांडूणी मांडली खिणा भराची
मिटली चिंता वर्स भराची,

आगा मनशा खंय पावले विचार तुजे
न्हय हे पोट भरपाचे
न्हय चड दीस काडपाचे
भिरांकूळ विनाशाक आपोवणें धाडला तुवें
फुडले सगळें तुवेंच निस्तरपाचें.

## प्रस्न एक न्हय कितलेशेच

गोंयकारपणाचो वांस सगलो
देख मात भायल्यांची
ताळो एकदम गोंयकारांचो
पूण भास मात पाखल्यांची.

खंय गेले गोंयकारपण
आयले कशे नेणारपण
पिराय तर जावन गेल्या
काय आजूनय उल्लां भुरगेपण.

भेस तांचो, कात आमची
पयसो आमचो, तकली तांची
जागो आमचो, घर तांचे
ड्रायव्हर आमचों, गाडी तांची

दर्यादेग आमची, व्यवहार मात तांचो
कामगार भाव आमचे, हांगा पगार मात तांचो
आमचेच भुंयेचो वापर करून बरो
पयसो सगळो हांगाच उबारलो
आमी मात खुशाल भरीत
म्हयन्याचो पगार हातार पडलो

अशेंच चलचेलें, अशेंच चलतलें
देवाधनया तूंच सांग आतां,
तुका गाराणे तरी खंयचे भशेन घालचेलें?



## देखणी कोंकणी

कोंकणी आता देखणी जाल्या
वायलां कापडां कुशीक दवरून
सोबीत सुंदर शालू न्हेसल्या
कोंकणी आता देखणी जाल्या।

आकाडो हुपून घरा भायर सल्ल्या
गांव, शार, देस धरून
संवसाराची भोवंडी करपाक मुखार सल्ल्या
कोंकणी आता देखणी जाल्या.

गोंयभर बीं पेरून
नीज गोंयकार फुडे सरिल्ले
पावलार पावली मारीत बराबर
जण एकलो कोंकणी खातीर वावरिल्लें.

गोंयची शीम-मेर फाटी पडल्या
कोंकणी आता बरीच फुडे पावल्या
देसभर बियांची फुलां बेस बरी चंवरल्या
साता समुद्रापारा तिणेंन
आपल्या कर्तुत्वाची घुडी उबारल्या
कोंकणी आता देखणी जाल्या
कोंकणी आता देखणी जाल्या.

■

## सैमगीत

सकाळच्या पारार
झूळ-झूळ वाऱ्यार
सैमगीत गावपाक
सवण्या पिलां रावल्यात...
आमुल्लेचे तेंगशेर
रुखाचें खांदये खांदयेर
चिवचिवाट किलबिलाट
तालीम बरी चल्ल्या...
कीरकिऱ्याचो आवाज लागना
कुशीक ताका थेवया
कावळो माम कांव कांव करीत
मदीच धेकणो घालता...
कीर मोर जायच जाय
सोबीत काय ते वाडयता
चीमणेची चींव चींव नाका

ल्य सगली होगडायता...
सवणी पिलां बेजारता
कोगळीणबायक विचारता
जावचें ना हे गीत
आमचे न्हय हे संगीत
कोगळीणबाय मुखार उबी
एकटीच सैमाक हेरायता.

■

## तळमळे

उगड तुज्या मना काळजाची दारां
उकती दवर चोवीस वरां
रिगोनी वारें पिसांट तरनाटें

घूं... घूं घुवोनी
घुमशेणा कांडुनी

कोणाचोय रडूं कोंबो
पूण वावझड झडोनी.

## सांग म्हाका

तुज्या खांदार
म्हजी मान
वजें जाता जाल्यार सांग
संवसारांतली सगली सुखां सोडून
जीवच म्हजो माग
जिणेंत तुज्या
म्हजो दरवळ...
येता जाल्यार सांग
येना जाल्यार रगतान म्हज्या
तुजो भांग भर म्हणून सांग.

■

# कोकोंच कों

कोकोंच कों कोकोंच कों
रान कोंबो सादयता
घुडांतल्यान साद घालून
आमचो कोंबों रान कोंब्याक
आपल्यामदीं आपयता

कोकोंच कों कोकोंच कों
रान कोंबो रान सगले जागयता
घुडांतल्यान साद घालीत
आमचो कोंबो, गांवाक सगळ्या उठयता.

रान जागयलें रान कोंब्यान
गांवाक उठयलो आमच्या कोंब्यान
धांवपळ लागली दोनूय कडे
किमया ही घडयली
कोकोंच कों च्या एकाच सादान.

## करा जागोर

रानांतल्या सावदांनो
तुमी अशी वोगी किदयाक?
भिरांकूळ जाल्या मनां
तोंडां तुमची मोनी किदयाक?

रान तर तुमचेंच आसा
शेक हांगा तुमचोच चलता
मेकळेपणान जगपाची
उमेद तुमी वगडायली किदयाक?

किदें...?
तुमचे आतां रान ना
झिली झोपां रूख ना
खंय गेलें तुमचे रान
कोणे व्हेलें तुमचे रान?

वगी सदांच रावपाची
सवंय तुमकां नडली
आतां कांयच उपेग ना
जरी कितलीय तुमी रडली.

आतां जागी करात एका मेकाक
हावेस धरात मना मनांत
जागोर करात सगल्यांमदी
थांबोवपाक ना जावपी
तुमचें रान तुमचे राज्य.

# फांतोड

कोंब्यान घातली साद
गांवाक आयली जाग
कुकडांची पिलावळ मोनी रुखावळ
हांकाय वांगडा आयली जाग

चुली पेटल्यो घरां घरांनी
धुंवर धुमशेता दारांनी
नव्या दिसाची नवी उर्बा
जागी जाल्या जण एकल्याच्या शिरंतरांनी

आंगण सारयलें शेंण शिताड्यांनी
रांगोळी घातली सोबीत पांच बोटांनी
तुळशी पेडार वात पेटयली
मन भरलें शत प्रकाशांनी

■

## सैमघर

सैमघरांत रावपी सवणें
आंगा खांदार खेळत रुखांच्या
ल्हानाचें व्हड जालें,
सकाळी उठोन रान भोवचें
पिलावळीक खावड हाडची
मस्त भरून पोट आपलें
सवण्या पिलांनी उडणां मारची

उमेदीच्या दिसांनी खोशयेन
भोंवडेंर म्हण भायर सरली
उडटा भोंवता रान फाटी घालून
अचकीत शारांत येंवन पावली,

शारांतलो पळोवन देखावो
जिवाक मेळना तांच्या विसावो
भिरांकूळ जाली मनां
काचाबूल जाली पिलां
मनशांची तरेकवार रुपां
कळ्ळी तांची कर्तुबां
मेकळो जागो ना भुंयेचेर
नजर पावना बिल्डींगांचेर

चिंतलें सवण्यान सांगले पिलांक
हें जग न्हय आमचें
चल उड्या परत फिरया
आमी सदांच सैमघरांतून रावचें.

# सोबीत सुंदर रनांत

पाचव्याचार रानांनी येवपाचें
आपोवणे हांव तुमकां दिता
सोबीत पिसोळ्या बराबर
सगळे रान भोंवपापी संद मेळोन दितां.

खळखळपी वझरे
न्हाणोवंक तुमकां तयार आसात
रानांतल्यो रानवेली
आंगा खांदार खेळोवंक आपल्या
वाट तुमची पळयत आसात,
सवण्या पिलांक वांगडा घेवन
कुहू ऽऽ कुहू ऽऽ गायत कोगूळ
येवकाराक तुमच्या उबें आसा
येवची तुमी आसा म्हण
सोशा पील उडणां मारीत
बाकीच्या सावदांक जमोवंक धावलां,

पाचवेचार रान
म्होवाळ ताचें रूप सुंदर
येया येयात रे सगळे या
सैम घरांत भोवंडेक या.



## पोरसांत म्हज्या

पोरसांत फुल्ल्यां तरातरांची फुलां
पाचव्याच पानांतल्यान
वयर सरपी बोंगाशे कळे
किदें तांचो झेत
तांची सोबीतकाय पळय

पिसोळ्याक रान मेकळें
फुला फुलार नाचपाचें
गोड-गोड म्होव चोखून
मस्त पैकी कळ्या सांगाता खेळपाचें.

गजबजलेलें वातावरण
फुला कळ्यांच्या वांसान
परमळीत जालां
पोरसूंभर उमेदीन हेडपी
पिसोळें लेगीत बेभान जाला

जायो जुयो शेवतीं मोगरीं
आबोलेकय फाटीं घालपी सोबीत शब्दुली
पोरसाची व्हडविकाय कितली व्हडली
मनशाच्या मनांनी लिपिल्ल्या हावेसा इतली. ■

## पिशें पिसोळें

माणकुलेंशें पिसोळें
सदांच तोंडांन हांसयाळें
रावन कुशीक सगल्या सावन
करूंक सोदी किदें आगळें वेगळें,

उड उड उडचे ताणें
धांव धांव धांवचे ताणें
खा खा खावन
सदां खोशी रावचे ताणे.

हातांत घेतली कितलीशींच कामां
यश कशेंच ना मेळना ताका
हजारकडे हात पांय धोडायले
जायते फावटी हड्डें धोडयलें

पान जरी हालतलें
वाऱ्यान ताका हालोवचें पडटा
बरी जीण जगतलें जाल्यार
दुसऱ्याचो सांगात जाय पडटा.

कळून आयलें पिसोळ्याक
एकलेंपण न्हय धडाचें
किदेंय करतलें जाल्यार
सगळ्या वांगडा रावपाचें
हेरां बरोबर उडपाचें
आपलेपणान जगपाचें.

## पयसपणाचे दूख

आवळून बांदिल्लें
मोगाचें नातें
धारदार सुन्याच्या पात्यान
तूं कचकचीत कातरता

आयक मोगा
आवाज...
म्हज्या काळजाचो
काळजांतल्या हुनहुनीत रगताचो
कानांत बोटां तूं घालता देखून...

रगताक तापोन
खतखतो येता
कूड आख्खी भिजोन
हुमेन न्हावता

नकळो हांव किद्याक
मनांतली कुपां गडगड मारीत
नाका त्या वगतार सरभोवतणी
चकचकतात.

## चवंर चंवरला

न्हंय व्हाळांचें नितळ उदक
देगे वयलें शितळ वारें
थाकाय मेळटा जिवाक हांगा
सुशेग मेळटा जिवाक

झिली झोपां चंवरल्या हांगा
काण्णां चुन्नां बहरल्यां
रान फुलां रान वेलींक
पाचवीचार कोमरी पालेल्या

दुस्वासाक ना जागो हांगा
संतपाक ना घर
शितळसाण दीत सगल्यांक
व्हावता पळय ही सोबीत झर

तानेल्ल्यान तान भागोवची
भुकेल्ल्यान भूक मिटोवची
रान मेवो हो आंगा खांदार फुलयत
आख्खी दोगुंळ्ळी सोबीत सोबल्या

## भस्मासूर

चला उठात जागे जायात
जग सगळे पेटलां पळयता
झगडीं झुजां अत्याचार हाणीं
संवसार सगळो भरला पळयात

घरा-घरांत झुजां पेट्टात
गावा-गावांत उजो पेट्टा
राज्या-राज्यांत अत्याचार वाडटा
देसा-देसांमदी गेर्रां पेट्टात

संवसार हुलपता भुरगी बाळां आडड्तात
गांवकी इबाडटा मनीसपण मरता
अत्याचार पिडीत धुळीक मेळटात
देशाचे राजकारणी घट्टाण करतात

चला उठया जागे जावया
चुट्ट्यो पेटोवया थय-थय नाचोवया
अत्याच्याराच्या ह्या भस्मासुराक
सासणाचो लासून उडोवया

## सपन

सपन हांवेन देखिलां
सांजच्या पारारी
घर बांदूक तुज्या काळजांत
दिशीत इल्लो जागो मागल्यारी

पिकाळ तुजें काळीज खूब
ही जाण म्हज्या मनी
पोरसावरी संवसार फुलोवंक
फुलाकळ्यार भोवऱ्याक खेळोवंक
पळयता वाट उतावळीन

शिपायांची राखण नाका
नाका काट्या खुट्यांची वंय
माया ममतेचें वारें शितळ
मोगाळ उतरांचो आसरो वयर
दी रे कान्हा इल्लो जागो
तुज्या खोल मनाभितर

आस म्हज्या मनीची
तळमळ तुज्या सखेची
कलियुगांतल्या रुपांत नव्या
जागो दिवन काळजा मदी
सोपय खिणा भितर
सोपय खिणा भितर

# अहंकार

अहंकार वयर सरता
सगळी नातीं तटातट तुट्टात
अहंकार जळयता मनशाक
गोबोर लेगीत लागना हाताक.

वर्सा वर्साचें आसलें नातें
मोगान संवसार फुलयतालें
आपलेपणान रावतालें,
अचकीत वेर पडटा मदीं
कीट अहंकाराची पेट्टा थंय
मोग माया आसली जंय
उजो पेटयता अहंकार थंय.

गोबोर पुजोवपाक दिसता भंय
हातीक कांयच लागना पळय
कीट चुकोन उरल्या काय म्हण
अहंकार परतो जितो जायत म्हण.

अहंकारान पेटयल्या जायती घरां
संवसार हुलपयल्यात जायते
घेवया सोपूत सरया फुडें
अहंकाराक सोमतोच नानपयत करूंक.

# एकचार

वयर पयस थंय दोंगरार
सैमराजा तुज्या गोपांत
आपलेपणाचें नातें शिकोवपी
झिली झोपां चंवरल्यांत.

वयर पयस थंय दोंगरार
सैमराजा तुज्या गोपांत
मनीसपणाक देख दिवपी
रुखाच्या आदारान जगपी रानवेली
पाचव्योचार पालेल्या

झिली झोपां मदीं
अचळंय लिपपी
ल्हान ल्हान सावदां पेटे
रुखांच्या खांदये खांदयेर खेळपी
सोबीत माणकुली सवण्यापिलां
उमेदीन जीण सारूक लागल्यां.

मोनजात म्हण्टा आमी
तांची भास कळटा तांकां
एकचार म्हळ्यार खरे किदें
नकळटा तीं शिकयतात आमकां.

# आस

चान्न्याचे राती मळबार वयर
रांगोळी सोबीत नखेत्रांची
रंगयाळ्या रंगा भितर
आशेचे किरण दिसता काय
मन म्हजें सोद घेई

लुकलुकपी नखेत्रां मदीं
तेजस्वी किरण एक
अचकीत मुखार चकचकलें
दिसलें सोदप आता सोपलें
खिणाभरांत खरेपणान
रूप तुजें घेवन तें
धर्तरेर वास्तवांत प्रगटले

धादोशी मन खुशालभरीत
रीत सोडून नाचलें
आस मनांत दवरूंक जिती
वयल्यान काळें कूप वतलें

आस आसा व्हड खूब
विश्वास मनांत खर
साद तुका घालता तेन्ना
नेटान पावल उखल

पावलटिचेर म्हज्या पावली मार
वाट सोदपाचे कश्ट ना
थाव मेजपाचे काम ना
जाणा जा...
आसा आस काळजांत खोल खोल
आस काळजांत खोल खोल.

# उतर

उतर एक हारसो कशें
मनाची सीम मेर दाखोवपी
उतरांचो मेळ
स्वभावातलें उणेपण दाखोवपी
केन्नाय मनाचें मोठेंपण दाखोवपी

मोगाळ उतर मनीस जोडपी
वायट उतर आपलेपणा तोडपी
उतर मनशाक तारूकय शकता
वायट उतर मनशाक मारूकय शकता

तुबकांतल्यान सुटली गुळी
फाटी जशी येवची ना
तोंडातल्यान गेल्ले उतर
परते केन्नाच येवचे ना

उतरां वापरची समजून सारकी
शंबर फावट चिंतून परती
आपल्यालें बरे मन
उतरांनी दाखोवचे
ताका कांय पडना पयशे
किद्याक जाणा,
उतर म्हळ्यार हारसो कशे.

## मोगाचें मोड

फुलान सहज फुलचें
नकळत आयिल्ल्या वाऱ्यासयत
ल्हवू ल्हवू धोलचें
भोंवऱ्याक लागीं ओडपाक खोशयेन
गीत मधूर गावचें

पावसान मात आकस्मात येवचें
जोगलाटां गडगड मारीत
काळ्या कुपांनी
आख्खें मळब भरचें

तशेंच तुवें येतना
मोगाचे भिरांकूळ मोड जावन येवचें
मोगाच्या पावसाचो शिंवर सोडून
काळजांतले घसघशीत वझरे ओतचे
इतलो चिंब भिजोवचो
दडक आयली केन्ना

हांव भिजलो केन्ना
व्हांवन गेलो केन्ना
आनी आतां खंयचे तडीक लागलां
हाची सूद लेगीत उरूंक फावना.

## सुखाचे आशेन

सुखाचो सोद लागना देखून
दुख्खा आड झुजता हांव
दुख्खां कशीच बदना म्हाका
तरीय...
गीत आशेचें गायता हांव

रणांगण दोळ्यां मदी
झुजाचो थरथर कुडीमदी
देखून...
हावेसाची तरसाद केल्या
दुख्खाच्या हडड्यान तोपूंक
धिराची चुट्टी पेटयल्या
दुख्खाची कूड लांसूक

जाळिल्लो गोबोर पुजोंवन
शेवटूपी व्हरून दर्या तळाक
किदें सागू...
सूखच सूख मुखार पळोवन
आशेची किरणां लखलखतात मुखामळार.

# धादोसकाय

काळीजभर फाकलां
दुख्खाचें तळें
तरीय तोंडार फुलयतां
खोशयेचे मळे
अल्पसुखान
जावन धादोशी
हांव सोपोवंक सोदता
मनघरांत चल्लिले
दुखेस्त तळमळे.

## सपनपरी

न्हिदेची जडसाण
लागीं लागीं पावल्या
गोपांत तुका घेवंक मोगान
सपनपरी रावल्या
अळंग सोड
तुजी कूड
तिच्या सुवादीन
जाणा जाव
रुपडे तुजें पळोवन
ती खासा
सर्गार सावन देवल्या

## मनीसपण

नाटकी वागण्यांतलें
　　　　नाटकीपण सोडून दी
अडेच्या हांसपांतलें
　　　　बेगडीपण सोडून दी
आपलेपण परकेपण
　　　　दोनूंय तू विसरूं दी
मनशासारकें मनीसपण
　　　　तुज्या काळजा मदी
सासणा खातीर रूजूं दी
　　　　व्हड रूक जावंदी ताचो
फळां फुलां फूलूं दी
　　　　चारय दिकांक परमळ ताचो
संवसार भर पावूं दी.

# फुलत्या फुलाक फूलूं दी

आयक रे पप्पा
आयक गे मम्मी
जल्माक म्हाका येवंक दी
गर्भ म्हाजो उडोन तुमी
पापा धनी जावची न्ही
चली घरची दायज मोटें
वंशवेल वाडूंक दी
फुलत्या फुलाक फुलूंक दी
भोंवऱ्याक कळ्यार खेळूंक दी

दूक दोळ्यांतले गळचे आदी
संवसार नवो पळोंक दी
उगतें मळब खुणायता म्हाका
निसण यशाची चडूंक दी

पांचविचार शेतां धोलता
माडार बसून गावंक दी
सुकण्यावरी जगूंक दी
मुक्तताय भोगूंक दी
मुक्तताय भोगूंक दी

फुलत्या फुलाक फुलूंक दी
भोवऱ्याक कळ्यार खेळूंक दी.

## मन

खिणा भितर जग भोवपी
खिणा भितर संवसार पळोवपी
वायट बऱ्याचो मेळ घालीत
वाऱ्या सयत जळी मळी पावपी
मन हें म्हजे पिशें कशें

मन जाता भुरगें
भुरग्या मदीं खेळटना
मन जाता जाण्टें
जबाबदारेची कामां करतना.

मन जाता खोशी
खोशयेच्या दर वेळार
मन जाता आकूळ पिकूळ
दुखेस्त पिडीतांक पळयतना

मन नासतना मनीस म्हळ्यार
उबंतर पडटलो जिवितांत
चेऱ्यार दिसपी भाव लेगीत
जल्माक येता मनांतल्यान.

# भिरमूट

फीर फिरपी भिरमूट
हांगा थंय नाचत आसा
ह्या कळ्यार त्या फुलार
मन लावन गायत आसा

शियांचे दीस आसू
आसू रखरखीत वत
पावस लेगीत घोस्ताक तांकां
खोशयेन जियेतात जिवितांत

ना दुस्वासीपणा
ना दुस्मानकाय
एकचार आपलेपणाचो सुंदर मेळ
पळयल्यार लेगीत कळचें ना
खंयचे भिरमूट खंयचे काय
फुला फुलार बसपाचें
सांगतान पोरसू भोवपाचे
मेळटा ते वाटून खांवन

एकचारान रावपाचें
देखदिणें वागणें पळय
फीर फिरपी भिरमूट पळय.

# दिवो

न्हय तो सुर्या
न्हय तो चंद्रीम
ना सुर्याचे तेज
ना चंद्रिमाची शितळसाण
मिणमिणपी वात सांबाळीत
मंदसाणेन तेवत रावप
इतलेंच जाणपी हो तर
म्हज्या घरातलो पॅत्रोलाचो दिवो

मंद मंद वात ताची
एकेच लयीन पेटत आसा
काळखाचें हड्डें चिरीत
उजवाडाचें साम्राज्य फाकीत

ल्हानशीच ज्योत ताची
शत प्रकाश उजळीत आसा
हळू हळू काळखाचें राज्य
ना नपयत करीत आसा
आपलेपणान सांबाळचो दिव्याक
तेल वात पळोवन पयली
माये मोगान पेटोवचो
म्हज्या सारकी जीणा जगतल्याक
होच दिवो भोव मोलाचो.

## कवासो

रक्तबंबाळ करून सोडपी
पाचव्याचार काट्या मदीं
सैमीक अत्तराची कुपी घेवन लिपिल्लो
हळदुवोच कवासो...

कसल्याय वातावरणांत
आपलें अस्तीत्व जिवे दवरपी
तो सुगंधीत परमळ
काळजांत भरल्यार लेगीत मावानासो...

काट्या खुट्यांच्या गच्च रानांत
केगदीच्या पांचव्याच बनांत
राबितो ताचो पूण तरीय
लागसारचो वाठार चाळोवचेली
तांक ताच्यांत

आमच्या मदीय आसतलो असो
अशेच ताकीचो सुवादीक... सुगंधीत
जो आपल्या उपस्थितीन
समाज सुवादीक करतलो
हो विचार कोणेच केन्ना केलोनासो.

## सैमाची करणी

गच्च दाट धुकें फाकलां
गांव सगलो धुसूर जालो
बारीकसाणेन पळेयलें तरीय
हय न्हयशे नदरेक पडटा

विंगड विगंड आकृत्यांनी
गांव सोबीत सोबून उरला
सैमाचीच करणी अशी
नदरेकय कळना तशी

झाडां पेडां धवी फुल्लां
फुलांकय आयला नवें रूप
सवणीं पिशीं सोदता वाटो
धुक्यान धापल्या चारय दिको

मनीस मात जाणा जाल्यात
करणी ही सैमाची
मन भलोवणी आसली लेगीत
सोबीतकाय ही काय खिणांची.

## सभाव

मोगाळ मनीस
गुणान सगुणी
म्होवाळ सभावाचो
आदार मात ना कोणाचो

सदांच पाळपी समाजाची रीत
आपलेपण सदांच जपपी
व्हडपणाक मान दिवपी
आदार करपाक दुसऱ्याक
रातीचोय दीस करपी

आदार दितां दितां दुसऱ्यांक
पयस जायत वयता आपल्याक
दुसऱ्याचें जेन्ना काम जाता
तोय अचळय फाट दाखयता

मोगाळ मनीस एकटोच उरता
सरभवतणी ताच्या कोण नासता
कळून येता ताका
आपलेंच नाते श्रेश्ट आसता
दुसऱ्यापणाक काय वालोर नासता.



## घावे

कुडीचेर जाल्यात घावे
दोतोरागेर धांवात
वखदपाणी करात
घावे पेकतले,
पुण घावे जाल्यात
मनार म्हज्या
हांव कोणा सरी वयचेलें
कोणूय मातशें वखद सांगात.

## वाटसूर

वाट चुकलेलो वाटसूर
गांवांत येवन पावलो
अनवळखी मनीस
दारार उबो रावलो,
हुमेन भिजिल्लो
ताळो खर्राटून आयिल्लो
कासावीस जीव घेवन
कांय खीण विसव मेळत काय पळयतालो,
घरांतलो म्हालगडो
थकिल्लो जाण्टेलो
हुमन्या भायर चवकेर आयलो,
बस आं! आयलो हांव
ताक तिकेन भितर रिगलो
आलिमिनाचो तांबयो भरून
शितळ उदक, दुसऱ्या हातांन धवोफुल्ल वालो
घे, धर उदक पी
जिवाक सुशेग मेळू दी...

काय खीण वाटसूर पळेत रावलो
मागीर झोपय मारून तांबयो हातासून
घटाघट उदक पियेलो
पचपचीत तोंडार उदक मारून
खसखशीत वाल्यान तोंड पुसले...
जाण्टेल्यान बारीक पळयले
ताचें मुखामळ हांसलें...!
खंयच्या गांवचो गा सोयऱ्या तूं?
जाण्टेल्यान प्रश्न केलो
जापेची वाट पळयत जाण्टेलो रावलो
वाटसूर मात नेटान उटलो
तरतरीत वाटेक लागलो
आता ताका वाट मेळिल्ली
आपलेपणाची मनीसपणाची.

## काळजी

गुपाट काळखांत भिरांकूळ आवाज काडीत
गांवांक भेश्टोवपी
हय गो सवण्या
हांव गो तो तुका जागयता
ह्या गांवचो गांवकार
तुका होरायता,

एक सांगशीत
ह्या गांवचो फुडार किदें
आमचो खऱ्यानीच उद्धार जातलो काय किदें
वयतलीं खंय भुरगीं पोरां
जियेतलीं कशी गोरवां वासरां?

आगो आड्डुपाचें मातशें वगी राव
आनीक म्हाका जाप दी
सरळ सगळें सांगता तुका
सोपली म्हजी जगपाची वरां
आवाज करतात आतां हाडा पेरां
निमाणे कडेन मातयेक लागपाक
हक्काची मसंडी तरी
आसा मू म्हाका?

■

## सैमाची गिरेस्तकाय

सैमाचें भांगर आंगार
सुखाची झालर तोंडार
उत्साह उमेद सदांकाळ
गिरेस्तकायेचे व्हावता व्हाळ

सैमा भितर लिपलां सगळें
मनीस सोदूंक पळयना मात
कॉंक्रिटाच्या रानां मदी घुस्पल्लें मन
भायर सरूंक सोदिना मात

आयक मनशा
आनीक आनी करू नाका कळाव
धेपा धेपांत बळकायत सगळें
लागी लागी पावला काळ

थाकाय मनाक सुशेग जिवाक
थंडाय ताळ्याक पोट भरून पोटाक
सैम घेवन भोवता खांदार
समाजा मदी मात वाडता आसा
दिसागणीक स्वैराचार स्वैराचार.

## शेणिल्ली दिका

म्हज्या फाटल्यान कोणूच चलूं नाकात
कोणूच येंव नाकात
किद्याक तर हांव तुमचें फुडारपण करपी न्हय

म्हज्या फुडें कोण चलूं नाकात
कोणूच वचूं नाकात
हांव फाटल्यान येवन अनुकरण करपी न्हय.

म्हज्या बराबरय कोण चलूं नाकात
कोणूच येवं नाकात
हांवूच नकळो म्हजी दिका
म्हाका एकटो सोडात. ■

## खण खण माती

मिनाच्यो खणीं हांगा
चिन्याच्यो खणीं
मिनाच्यो राशी हांगा
चिन्याच्यो राशी
धुल्ला भितर धुसूर जाल्यात
पयशा फुडे नाच्च जाल्यात
हरतरेची नातीं
खण खण माती हांगा
खण खण माती

मिनेरांचें जिवीत फळफळीत
आम जनता धुल्लान लडबडीत
गाडयोच गाडयो ट्रकांच्यो धिरयो
जीव वाटोवपाक आम मनीस
मारता रस्त्या भायर उडयो
खण खण माती हांगा
खण खण माती

रानां वनां धुल्लान तांबडी
घरां दारां रंगीत बाबडी
शेतां भाटां उदकाक पातिशेर
जाला सगल्यांचे जिवीत मजेशीर
खण खण माती हांगा
खण खण माती.



# बरें मागून

ना कालचें किदें पदराक
ना फाल्याचो हुस्को जिवाक
हाडली पड, खाल्ली पड
बरे मागून
वतले रातीक येतल्या दिसाक

ना चार वण्टी आडसाक
ना आसरो कसलो म्हण माथ्यार
झेमेच्या वेळार न्हिदचे खातीर
वेंगायली भुंयेक
बरे मागून
वतले रातीक येतल्या दिसाक

ना झेत नवे मुस्तायकेचो
ना सोस बऱ्या खाणांचो
मीट मीरची जोंदळ्याची भाकरी
वयर घोट निकट्या उदकाचो
बरे मागून
वतले रातीक येतल्या दिसाक.

■

## खरें मोल

जाणें अर्दी जीण दुख्खांत सारली
तीन फातरांचे चुलिचेर
संवसार मांडून
पोरां बाळां वाडयलीं
जगपा खातीर पावला पावलार झगडीं माल्लीं
पूण देवा दयेन सरत्या काळार
केल्ल्या श्रमाक फळ मेळ्ळे
बरी जीण जियोंक पावलो
ताका विचारात सुखाचे मोल
तो सांगतलो...
तो सांगतलो ते उदक वाऱ्या इतले सत आसतलें
जाणीं अर्दे जिवीत काळखांत सारले
पॅत्रॉलाच्या दिव्याचे मिणमिणटे वाती कुस्तार

आधुनीक उपकरणांच्या आदार शिवाय
जिवीत घडयलें, संवसार वाडयलो
पाचव्या मळांचेर दोंगर दोंगुल्ल्यांचेर
नाचता गायता
अर्दे जिवीत सोपुयलें
ताका विचारात उजवाडाचे खरे मोल
तो सांगतले...
तो सांगतलो तें शितळ चान्न्या इतले सत आसतलें. ■

# खरो सुखी कोण

गडगंज संपत्ती
परजळीत आर्थिक स्थिती
वाड वडिलांची, स्वता जोडिल्ली
चकचकीत गाडयांच्यो लायनी
सेवा करपाक नोकर चाकर जोडयांनी
सगल्या सुविधानी समृद्ध असो
भर शारांतलो सोबिवंत बंगलो,

पूण बंगल्यांतली मनशां
ती सोबिवंत न्हय
ती सुखी न्हय
जोडिल्ली जोड सांबळची कशी
सांबाळिल्ली जोड वाडोवची कशी
चिंता उबी पावला पावलार
भंय असुरक्षिताय दर खिणाक
खांदे बागवल्यात पोटा सुटल्यांत
गिरेस्तकायेचे वजें व्हांवन,

पूण हांगा मात
ना वाड वडिलांनी दवरिल्ली जोडीची पुंजी
ना भंय ना सतावणी चिंता
दिसभर आंग मोडून जोडिल्ली मिळकत
सांजेवेळार घरकान्नीच्या सुवादीन दिवन
एक दोन घोट कोपाचे मारून घेवन
भुरग्या बाळा बरोबर
सुखा समाधानान चार घांस खावन
धर्तरेचे जाजम आनी मळबाचें छत्र समजोन
खुशाल भरीत मन घेवन निद्रादेवीच्या
आधीन जावप...
ना कसलीच चिंता ना भंय
फक्त सकाळची वाट पळयत...!

## माटोळी

माटोळेचें पिशें चडलें
रानां वनां माडिड्त चल्ले
चवथीची सुलूस लागली
खोशयेचे वारे तेंगशेर पावलें

कुडे फळां, बेला फळां,
घोसां घोसांतल्ल्यो खुळखूळीत घागऱ्यो
कुचकुचित कांगलां तोडात
तशींच जमयात रे माटुटलां

ताळे बांदात रे आम्याचे
मदी मदी गोण सोडात शेरवडांचे
चिवरां पेरां घोसाळीं तवशीं
कुशीक तोरण लायात माडये शिपट्यांचे

फळ फळावळ बांदली आता
पाना फुलांनी सजयात रे
बेलाची तीन पानां
घोसा घोसांनी लांबयात रे
चिड्ड्यांचे दिकूळ रोप
रोपाक नाजूक तांबशी फुलां रे
खुडात फुलां पोश्यांनी
माटोळी सोबीत सजयात रे.



## मन वाऱ्यार पिशें

मन वाऱ्यार पिशें
कळना सांबाळचे कशें
मन वाऱ्याची वावटळ
सगल्याक खेळयता धुळवड,

मन वाऱ्यार बेभान
संताप साचला काळजांत
थय-थय नाचता आदळ आपट करता
बांदून दवरू हाका कसल्या पासान,

मन खोशयेचें ल्हार
उंचान उंच उडणां मारता
जेन्ना पयसुल्यान उगडटना दिसता
नवें संधिचे दार,

मन आकूळ पिकूळ
दिसता करची काकळूट
करचें ल्हवपीक पिसावरी
सोडची मळबार भिरमूट.

## उणेंपण

पयशांचें हांयस दाखयत
संपत्तीच्या मोहार झुलयत
अद्रुश्यपणान थंय पयसुल्ल्यान
काळो कुळकुळीत काळ
मनीस जातीक खुणायता

सगळी सुखां पायांर घालता
रिती मना उमेदीन भरता
हाल अपेश्टा सोसच्या विणेच
तुमच्या जिणेचें भांगर करता
काळ मनशाक भुलसायता

उणे बुद्धीचो मनीस सभाव
खुळी पिशी मनीस जात
रोखडीच ताच्या अर्दान जाता
कान मोठे करून आयकुपाक लागता
आपल्या मना सारके जाता म्हण
काळो काळ खदखदीत हांसता
आपलेंच आतां राज्य म्हण
सपना रंगयता...
किदयाक?
मनीस जातीच्या उणे पणाक लागून
मनीस जातीच्या विचार
आनीक आचरणाक लागून.

## हांव कोण

हांव कोण
निकतोच संवसारांत आयिल्लो
एक जिवो जीव
आवय बापायचो पूत
भावा भयणांचो भाव
बायलेचो घोव
माव मांयचो जावंय
भुरग्यांचो बापूय
पुतणयाचो काका
भाचरांचो मामा
भावोजी, मेव्हणो
चुलत भाव, आते भाव
मामेभाव, मावशे भाव
सगल्यांचो कोण ना कोण
सगल्यां खातीर कोण ना कोण
पूण आयज पसत
एक प्रश्न जापेविणा
म्हजो हांव कोण?



# मनीस धांवत आसा

मनीस धांवता
धांवता आसा
घडये धांवतूच रावतलो,
घडयाळीच्या काट्या फाटल्यांन
वेळाच्या चक्रान स्वताक बसोन घेवपाक,
गाडये मोटारी फाटल्यांन
वेळच्या वेळार जाय थंय पावपाक,
पयश्या फाटल्यान
गिरेस्तकायेचे जिवीत जगपाक
सुखा फाटल्यान
जिवितांत समाधानी रावपाक
खुशालकायेन संवसार करपाक,
पूण मनशाचें समाधान केन्नाच जायना
पयसो सूख पांयालागी खेळटात
तरीय ताका उणें दिसता
देखून मनीस धांवता
धांवता आसा
घडये धांवतूच रावतलो.

## भाजयेच्या पोरसान

हळसांदीच्या वालिनी
नवेंच रूप घेतलां
एका मेका भितर घुस्पत ताणीं
वेगळेंच चित्र विणलां,

पाचव्याच रोपांचेर
सुपुल्ल्योच हरव्यो मिरसांगो
घोसा घोसांनी लांबतात
वोठार बोट दवरून वग्गी
त्यो आमकां किदें तरी सांगतात.
कांद्या पात नीट उबी
मळबार नदर मारता
खुडून काडिल्ली तांबडी भाजी
जमनी बराबर वाडटा
फागुरलेलो मुळो बरो

गड्ड्या सयत धोलता
वाडिल्ल्या झोपार चिटकी मिटकी
हांगा थंय दिश्टी पडटा
पोरसांतल्या ह्या मुक्त वातावरणांत
सवण्यांचे मात बरे फावता
जोडिदाराक बराबर घेवन ती हांगा
मोगाळ गुंजन गायतात.

# सैमचक्र

मागील दारांतली केळ
बरी गरगरीत वाडली
लांब लांब पानां भितर
एक दीस प्रसवली...
ल्हान घडुल्याचो
व्हड केळ्यां घड जालो
फुडें किदें?
ती जगतली
ना ती मरतली, तिका मरपाकूच जाय
सैमचक्रान तिचें आयुष्य हांगाच सोपयलां
पूण मरतना ती आपल्या मुळांत
तीन चार नवें फागरे रुजयतली
नवें बीज वाडटलें
केळम्याची गरगरीत केळ जातली

परतून प्रसवतली
घडुल्याचो घड जातलो
मरतली! नवो कोंब जल्मतलो
सैम चक्र ना थारतां
धुवंत रावतलें निमणें मेरेंन
सैम सृष्टी आसा मेरेन.

## शिगमो

कूळ देवाच्या मांडार
धोलार तोणी पडटा
ताश्यार बडी नाचता
कासाळ्याचो सळसळाट
गांवाक साद घालता
शिगमो सुरू जालो रे
नमन घालूंक आपयता,

गांवकाराचो उलो गांवभर घुमता
घराघरांत जण एकलो ताकतीक करता
रात चडीक लागतना
मांडार गाज वडटा

सकारती सूर धरतात
पावलार पावली तालार पडटा
देव दैवतांक सातेरी मायेक
राखणदार गांवच्या वदन्याक
नमन घालून धोलार तोणी पडटा
घुमचे कटर घूम
एके लयीन वाजता

"चानयेच्या पिला तुका तीन पाट
रावणान सीता व्हेल्या दाखय वाट"
गजर गजरत वता
शिगम्याची सुरवात
आख्खो गांव जागयता.

# गोंयकार भावांनो

सुशेगादपण आतां सोडात रे
गोंयकार भावांनो उठात रे

न्हिंदेची संवगां
भिनली सगल्या आंगां पांगां
यत्नान दुशणां हीं सोपयात रे
गोंयकार भावांनो उठात रे

भयल्यांचे औषधालय
उडप्यांचे भोजनालय
पसरे गाडे भैयांचे
हांच्या भितर थतर वितर
गोंयकारांची पिलावळ
सांगशीत रे गोंयकारा म्हाका
गेली खंय खानावळ

परवड स्वताची थांबयात रे
गोंयकार भावांनो उठात रे
बुधवारचो बाजार सदाभशेन गजबजला
कोंकणी भास कोनशाक उबी
हेर भाशांच्योच व्यवहार चल्ला
एकठाय जायात सगळे आतां
फुडें मातशें सरात रे
गोंयकारपण हें उमेदीन मिरयात रे
सुशेगादपणा आता सोडात रे
गोंयकार भावांनो उठात रे

कवी, महेश गोविंद गांवकार
आमच्या मोलें गांवचो एक अश्टपैलू तरण
कविते वांगडा हेरूय साहित्य प्रकार तो केळय
कवितांचीं जायतीं इनामांय मेळयता. आयर
ताच्यो जायत्यो कोंकणी-मराठी कि
उजवाडल्यात एकांकीका बी बरोवन, स
बसोवन त्यो सादर करून खूब बक्षिसां जोडल्य

नंद्रण-मोलेंच्या महावीर अभयारण
ताचो २३ जुलै १९८२ दिसा एकां स
कश्टकारी घराण्यांत जल्म जालो. आनी थंय
सैमाच्या मोगांत पडून आमकां बऱ्यो ब
कविता दिल्यो. मराठींत प्रेमसागर, प्रेमग्र
पॉयेट्री द-मायलस्टोन ह्या कलायात्री, पुणे
काव्य संग्रहांनी ताच्या कवितांचो आस
जाला.

'फूल पाकळ्यो' ह्या यशस्वी संग्रहा
'यादींचे उमाळे' ह्या ताच्या दुसऱ्या कवि
संग्रहाकूय यश आंवडेता.

-रामनाथ गा

